# ತಿತ್ಲೊಯ್ ಪಯ್ಸ್ ವೊಸನಾಕಾ

ತಿತ್ಲೊಯ್ ಪಯ್ಸ್ ವೊಸನಾಕಾ
ಹಿಂ ಕಾಳ್ಜಾ ಕಡಿಂಚ್ ತುಟ್ಟಾನಾಂತ್
ಥಾಂಯ್ಸ್ರ್ನಾ ಮೋಗ್ ದೀವ್ನ್ ಆದೇವ್ಸ್ ತುಕಾ
ಹ್ಯೊ ದೊಳ್ಯಾ ತಡಿ ಥಾಂಪ್ಶ್ಯಾನಾಂತ್

ಸಾತ್ ಜಲ್ಮಾಂಚೆಂ ಆತಾಂ ಪುಟಿರ್ ನಾಕಾ
ಆಜ್ ಜೀವ್ ಮ್ಹಜೊ ಭರ್ ತುಜ್ಯಾ ಜಿವಾಂತ್
ಉಲಯ್ ಮೊಗಾ ಆಜ್ ಮೌನ್ ನಾಕಾ
ಆರಾವ್ನ್ ವಸ್ ಮ್ಹಾಕಾ ತುಜ್ಯಾ ಗೊಪಾಂತ್

ಪಾಂಖ್ಟೆ ಆದಿಂ ಪಾಕ್ಯೊ ಝಡೊನ್
ತಿ ಸುಕೊನ್ ತ್ಯೊ ಗೆಲ್ಯೊನಾಂತ್
ಸಾಂಜ್ಚೆ ವ್ಹೊರ್ನ್ ವೆಗ್ಗೆಂ ವಾಟ್ಯಾನ್
ಉಜೊನ್ ಗೆಲ್ಯೊ ತಾತಾರ್ ಮೆಳ್ಯ್ಯಾನಾಂತ್

ಉದರ್ ವಾರೆಂ ಗಿಳ್ಳೆಂ ದವಾನ್
ಘರ್ ಮೋಗ್ ರಚ್ಲ್ಲೊ ಹಾಂವೆಂ ತುವೆಂ
ತುಜೆಂಚೆಂ ಕಸೆಂ ಸೊಸಾನ್
ಸ್ವಾಸ್ ಆಸ್ತಾ ಮ್ಹಜೊ ತುಜೆಸವೆಂ

ಬಳ್ವಾಳ್ಯಾ ಉದ್ಕಾಂತ್ ಮಿಸ್ಕತಿ ದಾವ್
ಜಲ್ಮ್ ದಿಲ್ಲ್ಯಾ ಜುಮ್ಪೊರ್ ಉಜ್ಯಾನ್
ಕಾಜಾರ್ ಪಯ್ಣಾಂತ್ ಮೊಗಾಚೆ ಥಾಂವ್
ರಾವಲ್ಲಿ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಮಂಯ್ಯಾಸಿ ದವಾನ್ ?

# ಧಾಂವ್

ಆಜ್ ಹಾಂವ್‌ಯ್ ಧಾಂವ್ಲ್ಲೊಂ
ಫಕತ್ತ್ ತುಕಾ ಲಾಗೊನ್
ಕಾಲ್ ಧಾಂವ್ತಾಂ ಧಾಂವ್ತಾಂ ಪಾಟ್ಲ್ಯಾನ್ ಉರ್ಲ್ಲೊಂ
ತುಜಿ ಧಾಂವ್ ಪಳೆವ್ನ್

ತಿ ಖುಶಿ ತುಜ್ಯಾ ದೊಳ್ಯಾಂತ್
ಕಾಳ್ಜಾಂತ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಛಾಪೊನ್ ರಾವ್ಲಿ
ಮ್ಹಜೆಂ ಅಪ್ಣಾಚೆಂ" ಮ್ಹಳ್ಳ್ಯಾ ಹ್ಯಾ ಖೆಳಾಂತ್
ಜೀಕ್ ತುಜಿ, ಕಾಳ್ಜಾ ಉಡಿ ಮ್ಹಜಿ ರಾವ್ಲಿ

ದೆಖುನ್ ಆಜ್ ಹಾಂವ್‌ಯೀ ಧಾಂವ್‌ಲ್ಲೊಂ
ತುಕಾ ಲಾಗೊನ್ ತುಜೊ ಸ್ವಾರ್ಥ್ ಪಳೆವ್ನ್
ಧಾಂವ್ತಾಂ ಧಾಂವ್ತಾಂ ಜೀಕ್ ಆಪ್ಣಾಂವ್ಕ್ ಲಾಗ್ಲೊಂ
ತೆದ್ನಾಂ ತುಂ ಅಯ್ಲೊಯ್ ಮ್ಹಜಿ ಪಾಟ್ ಸೊವ್ರೊನ್

ಆಯ್ಲೊ ಸಂಸಾರ್‌ಚ್ ಅಸೊ
ಧಾಂವ್ ಮಾರ್ ತುಂ ಧಾಂವ್
ಪೆಲ್ಯಾಚೆಂ ಹಾಂಗಾ ಕಿತೆಂಯ್ ಜಾಂವ್
ಧಾಂವ್ ಮಾರ್ ತುಂ ಧಾಂವ್

ಮ್ಹಾಕಾಯ್ ಧಾಂವ್ರೊಕ್ ಶಿಕಯ್ಲೆಂಚ್ ತುವೆಂ
ಧಾಂವ್ ಧಾಂವ್ತಾಂ ಧಾಂವ್‌ಲ್ಲೊ ಜಿಕ್ಲೊ
ತರ್‌ಯೀ ಭಗ್ಲೆಂನಾ ಕಿತೆಂಚ್ ಅಪ್ಣಾಯ್ಲೆಂ ಹಾವೆಂ
ಪಳೆವ್ನ್ ತುಜೆಂ ಮುಖಾಮಳ್ ತೊವ್‌ಲ್ಲೆಂ

ಹಾಂವ್ ಧಾಂವ್‌ಲ್ಲೊಂ ಹ್ಯಾ ಸ್ವಾರ್ಥಾಕ್ ಲಾಗೊನ್
ಪುಣ್ ಜಿಕೊನ್ ಸಲ್ವಲೊಂ, ಸಲ್ವಾಲ್ಲ್ಯಾ ತುಕಾ ಪಳೆವ್ನ್
ಕೊಣೆಂ ಕಿತೆಂ ಅಪ್ಣಾಯ್ಲೆಂ ಜಿವಿತಾಂತ್ ಧಾಂವೊನ್
ಎಕಾ ಘಡಿಯೆಕ್ ಚಿಂತ್ಯಾಂ ಮುಖ್ಲಿಂ ಧಾಂವ್ ರಾವೊನ್

ಸಾಂಗಾತಾ ಅಮಿ ನಿರ್ಧಾರ್ ಘೆವ್ಯಾಂ
ಹಾತಾಕ್ ಹಾತ್ ಮೆಳವ್ನ್ ರಾವ್ಯಾಂ
ಧಾಂವ್ತಾನಾ ಅಮಿ ಸಂಗಿಂ ಧಾಂವ್ಯಾಂ
ನವ್ಯಾ ಜಿವಿತಾಕ್ ದೆಕಿಚಿ ಸಾಕ್ಸ್ ಸಾಂಗ್ಯಾಂ

ಹಿ ಮ್ಹಜಿ ತುಜಿ ಧಾಂವ್
ಧಾಂವ್ತೆಲ್ಯಾಚ್ಯಾ ಕಾಳ್ಜಾಂತ್ ಅಮರ್ ಜಾಂವ್

ದಾಯ್ಜ್ ಡೊಟ್‌ಕೊಮ್ ಮಯ್ನ್ಯಾಚೊ ಕವಿ

ಆರ್ಥರ್ ಪಿರೇರಾ, ಒಮ್ಜೂರ್

# ತೆಂ ದೂಖ್ ಏಕ್ ಥೆಂಬೊ

ನಾ ಶಾಸ್ತ್ರ್ ನಾ ರಿವಾಜ್ ನಾ ಕಸಲೊಚ್ ಆವಾಜ್
ನಾ ಆವಯ್ ನಾ ಬಾಪಯ್ ನಾ ಕೊಣಾಂಚ್ ಗವಾಯ್
ತರ್ ತೆಂ ಕಶೆಂ ಜಲ್ಮಾಲೆಂ?
ಸಂಸಾರಾಕ್ ಸಾಕ್ಷ್ ದಿಂವ್ಚೆ ಆದಿಂ
ಫೊಲ್ಯಾರ್‌ಚ್ ಕಶೆಂ ಮಾಜ್ಲಾಲೆಂ?

ತೆಂ ದೂಖ್ ಏಕ್ ಥೆಂಬೊ
ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ
ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ
ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ

ದೊಳ್ಯಾ ಖಾಂಚಿ ಫುಟೊನ್ ಪಡತ್ ಜಲ್ಮಾಲೆ
ತೆಚ್ ವಾಟೆರ್ ಫುಡೆಂ ಪರ್ತ್ಯಾನ್ ಉದೆತಲೆ
ಕೊಣಾಂಚ್ ನೆಣಾಂ ಯೆತೆಂ ಕೆದ್ನಾ ತೆಂ ಕೊಣಾಗೆಲೆಂ
ಆಯ್ಲೆಂ ಆಯ್ಲೆಂ ಆಯ್ಲೆಂ ಆಯ್ಲೆಂ ಚಿಂತುನ್ ಮುಖ್ಲೆ ಫಾಲೆಂ

ತೆಂ ದೂಖ್ ಏಕ್ ಥೆಂಬೊ
ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ
ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ
ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ

ಆಧಾರ್ ನಾಸ್ತಾ ಜಾಲಿ ಅನಾಥ್‌ಪಣೆಂ
ಉಪಾವ್ ನಾಸ್ತಾ ರಾವ್ಲಿ ಮೌನ್‌ಪಣೆಂ
ಸಾಂಗೊಂಕ್ ಕಳ್ನಾ ಥೊಡ್ಯಾಂಕ್ ಅಶ್ಶಿ ಜಿಣಿ
ಥೊಡ್ಯಾಂಚಿ ಜಿಣಿ ಏಕ್ ನಿಜ್ ಕಾಣಿ
ದೂಖ್ ದುಖಾಂನಿ ಸೊಭಿತ್ ದೊಳ್ಯಾಂನಿ
ಫೊಂಪ್ತಾಲಿ ತಿಂ ಜಾಯ್ತ್ಯಾ ನಮುನ್ಯಾಂನಿ
ಸಂಸಾರಾಕ್ ಸಾಕ್ಷ್ ದಿಂವ್ಚೆ ಆದಿಂ
ಫೊಲ್ಯಾರ್‌ಚ್ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ತಿಂ ಮಾಜ್ಲಾಲಿಂ ?

ತಿಂ ದುಖಾಂ ಥೆಂಬೆಂ ಥೆಂಬೆಂ ಥೆಂಬೆಂ
ಥೆಂಬೆಂ. ಥೆಂಬೆಂ. ಥೆಂಬೆಂ
ಥೆಂಬೆಂ. ಥೆಂಬೆಂ. ಥೆಂಬೆಂ
ಥೆಂಬೆಂ. ಥೆಂಬೆಂ. ಥೆಂಬೆಂ

ಪೆಲ್ಯಾಚೆಂ ದೂಕ್ ತುಜ್ಯಾ ಮನಾಂತ್ ಜಿರಯ್
ವಾಡೊನ್ ಭಿಂ ಕಿರ್ಲೊಂ ವಾರೆಂ ಮೊಗಾಚೆಂ ವಾಳಯ್
ತೆದ್ನಾ ಹಾಸ್ತೆಲಿ ದುಖಾಂ ಲಾಭೊನ್ ಧಾದೊಸ್ನಾಯ್
ಜೆದ್ನಾ ಜಾತಾನಾ ತುಂ,
ಪರ್ಕಿ ದುಕಾಂಚಿ ಪ್ರೊಸ್ಕೊ ಆವಯ್ ಯಾ ಬಾಪುಯ್

ತೆಂ ದೂಖ್ ಏಕ್ ಥೆಂಬೊ
ತೆಂ ದೂಖ್ ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ
ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ
ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ ಥೆಂಬೊ

तें दूख एक थेंबो
थेंबो थेंबो थेंबो
थेंबो थेंबो थेंबो
थेंबो थेंबो थेंबो

पेल्याचें दूख तुज्या मनांत जिरय
वाडोन भीं किरलों वारें मोगाचें वाळय
तेदनां हासतलीं दुखां लाभोन धादोस्काय
जेदनां जाताना तूं
परकी दुखांची पोसको आवय या बापय

तें दूख एक थेंबो
थेंबो थेंबो थेंबो
थेंबो थेंबो थेंबो
थेंबो थेंबो थेंबो

# तें दूख एक थेंबो

ना शास्त्र, ना रिवाज, ना कसलोच आवाज
ना आवय, ना बापय, ना कोणच गवाय
तर तें कशें जलमलें?
संसाराक साक्स दिंवचे आदीं
पोल्यारच कशें माजवलें?

तें दूख एक थेंबो
थेंबो थेंबो थेंबो
थेंबो थेंबो थेंबो
थेंबो थेंबो थेंबो

दोळ्या खांचिंनी फुटोन परत जलमले
तेच वाटेर फुडें परत्यान उदेतले
कोणच नेणां येणें केदनां तें कोणागेलें
आयलें आयलें आयलें आपलें चिंतुन मुकलें फालें

तें दूख एक थेंबो
थेंबो थेंबो थेंबो
थेंबो थेंबो थेंबो
थेंबो थेंबो थेंबो

आधार नासतां जाली अनाथपणीं
उपाव नासतां रावली मौनपणीं
सांगोंक कळ्ळें ना थोड्यांक आपली जिणी
थोड्यांची जिणी एक नीज काणी
दूख दुखांनी सोबीत दोळ्यांनी
वोंपताली तीं जायत्या नमुन्यांनी
संसाराक साक्स दिंवचे आदीं
पोल्यारच कित्याक तीं माजवलीं?

# धांव

आज हांवय धांवलों
फकत तुका लागोन
काल धांवतां धांवतां पाटल्यान उरलों
तुजी धांव पळेवन

ती खुशी तुज्या दोळ्यांत
काळजांत म्हज्या छापोन रावली
म्हजें आपणाचें म्हळ्ळ्या ह्या खेळांत
जीक तुजी, काळजा उडी म्हजी रावली

देकुन आज हांवय धांवल्लों
तुका लागोन तुजो स्वार्थ पळेवन
धांवतां धांवतां जीक आपणांवक लागल्लों
तेदनां तुं आयलोय म्हजी पाट सोवोन

आयचो संसारच असो
धांव मार तुं धांव
पेल्याचें हांगा कितेंय जांव
धांव मार तुं धांव

म्हाकाय धांवोंक शिकयलेंय तुवें
धांव धांवतां धांवल्लो जिकलो
तरय भोवलें ना कितेंच आपणायलें हांवें
पळेवन, तुजें मुखमळ तोवल्लें

हांव धांवल्लों ह्या स्वार्थाक लागोन
पुण जिकोन सलवलों, सलवल्ल्या तुका पळेवन
कोणें कितें आपणायलें जिवितांत धांवोन
एके घडियेक चिंतनां मुखलीं धांव रावोन

सांगाता आमी निर्धार घेंव्यां
हाताक हात मेळवन राव्यां
धांवताना आमी संगीं धांव्यां
नव्या जिविताक देकिची साक्स सांग्यां

ही म्हजी तुजी धांव
धांव्लेल्याच्या काळजांत अमर जांव

दाय्ज डोटकोम मय्याचो कवी

# तितलोय पयस वचनाका

तितलोय पयस वचनाका
हीं काळजां केदींच तुटचीं नांत
थांबचो ना मोग दीवन, आदेव्स तुका
ह्यो दोळ्यां तडी धांपच्योनांत

सात जलमाचीं आतां खबर नाका
आज जीव म्हजो भर तुज्या जिवांत
उलय मोगा आज मौन नाका
आरावन धर म्हाका तुज्या गोपांत

बावचें आदीं पाकळ्यो झडोन
तरी सुकोन त्यो गेल्यो नांत
सांडलें धरतीन वेंगेलें वाऱ्यान
उबोन गेल्यो हाताक मेळ्ळ्यो नांत

उदक वारें दिल्लें देवान
पुण मोग रचल्लो हांवें तुवें
तुजेविणें कशें सोशीन
स्वास आसता म्हजो तुजे सवें

बुळबुळ्या उदकांत खतखती धाव
जल्म दिल्लो जब्बोर उज्यान
काजारी पयणांत मोगाची धांव
रावयली कित्याक मयपाशी देवान?

# ये तुं पाटीं ये मांय

बुडलो ना सुर्यो तो उदेल्लो
फांकवन पुनव चंद्रेम चल्लो
आमी ल्हारां तुं दर्यो चुकल्लो
सांग आपाल्पिा खेळ हो कसलो

तुं ये तुं पाटीं मांय
ये तुं पाटीं
तुजेविणें कितें जाय
रिते दीस मौन रातीं
सुशेग ना हे मतीं

पोट भर मोग, मूट भर शित
दाळ्ळेंय आमचे पासळेंत
तुज्या काळजाच्यो रगता शिरो
आज व्हाळतात आमचे कुडींत
पालवा कोनशांत तुज्या पोटलून धर
आज तुं लिपल्याय खंयसर सोडन
लिपल्याय तुं खंयसर सोडन

तुं ये तुं ये पाटीं मांय
ये तुं पाटीं
संगीं वेंगेंत तुज्या जाय
दुखान काळीज उडी
राकतांव हरयेक घडी

दोळ्यां फोंडव्यांनी काजुलो पेटोवन
वाडयलेंय खेळोवन धलोवन
हरयेक खेळांत मांय जीक आमची करन
तुं रावतलीय पाटीं सलवोन

ये तुं पाटीं मांय
ये तुं पाटीं
हो खेळ नाका मांय
सलवोन रावतांव पाटीं
ये तुं मांय वेगीं

दुबांयत चल्लल्या गायान स्पर्ध्यांत तिसरें स्थान

# सिंतिमेंतां म्हजीं

कूड नातल्लें घर बांदलें
उगत्यान तें सोभलें
देवान म्हाका सगळें दिलें
नशीब ताणेंच केलें
देकुन हांवें तुका वेंगलें
वेंगतां वेंगतां उबोन गेलें

कवीक मोग कवितेचेर
खिणान केलें अधुर
रडतां चिंतुन नशिबाचेर
तोपलेंय देकुन किसर
ना पातयेणी म्हाकच म्हजेर
उरतां पाटीं कवी जांवच्यार

# भारत तुं महान

म्हज्या देशांत व्हाळतात दुधा झरी
मान सांबाळ्ळा पाचव्या पालवा झरी
धुंवरी केसांनी पांगरून वेल गांवारी
खंयच्याक तरी करूं म्हज्या देशाक सरी
सरगा बरी भारत म्हजो ह्या संसारीं
भारत म्हजो सरगाक सरी

जियो तुं जियो तुं भारत
माता, रुणी तुका
जलमोन ताबेंत आमी तुज्या

हिंदू, मुसलीम, सिख्ख, क्रिशचियन
सरव धरमाक तुज्या गोपांत घेवुन
गिरेस्त भासांनी भरलां आमचें हें हिंदुस्तान
जातमत बगलेक दवरन
म्हण्यां आमी एक जावन
जय भारत माता तुं महान

तुं महान
आट्टावीस पाकळ्यांनी तुं सोभोन
भरलांय संसकृती ग्रेस्तकायेन
खालतेपणीं दितांव प्रणाम तुका आमी क्रिस्तांव
सदां सरवतां जियो भारता

मागतांव सदांच तुजें बरें जांव
तुजें नांव

दुबांयत चल्लल्या पंगड गायान स्पर्ध्यांत पयलें स्थान

# हाय वजन

हाय वजन वजन वजन
गेल्या पाट म्हजी मुटकरोन
जडायेचें हें ब्याग व्हाववन
सांगा दूख आमचें आयकता कोण?

इंगलीश, म्यात्स, सोशियल
हिंदी, सायन्स, मॉरल
कन्नड, कंम्यूटर
वयल्यान आमकां क्लाशी स्पेशल

दोडे दोडे बूक भरोन
आनी व्हावय पाटीर घालुन
भरल्या प्राय आटाक लागोन
रडता आजी कित्याक नातू येना वाडोन?

कोणाक केदिंच दुर्सांना
शिक्पाक हांव केंड्चोना
वजन हें हाय रे हाय
तुमी हाळू करव्न दींव्क जाय

भोगता तुमकां तर हें सवाल
रावतां उबो वोटा वेळार
दांबयां ब्यागाक बोट धाराळ
शिक्षण मंत्री जावन करुंक उंचलें नवाल.

# सोबाय

ताचें नांव मोन्रा
ताका लागलें सोबीत मोना
सुरवेर आपयतालो मोगान माना
चडलो मोग आपवंक लागलो मायना
आज
हाचे सोबायेक लागोन
मोना जाला मुन्रा

मोन्राचें सोबीत मायना मोना
मांय संगीं रावोंक मन ना
हांकां लागोन घडयेचेंय मौन ना
आतां रडता मोन्रा, घरांत कोणच ना
सोबायेक भुल्लो मुन्रा, मोन्रा
गुणाक पारकूंक कळ्ळें ना
आतां
भुजावण दिंवची कोणें?
घरांत तांची मांय ना

उलो दिता मोन्रा तुका
गुणाच्या चेडवाक तुं मेचवशी
कुटमा संगीं केदनांय खुशी
आसतलोय
मोरा पऱ्यांत तुं दाधोशी

# आबाचे मार चार पाटीर

नेणत्यापणार आबा संगीं
पावल्लों हांव इगर्जे लागीं
आमच्या बापा येंवचे आदीं
म्हाका धोसलीं सवलां थोडीं

जायत्यो इमाजी जायते कुशीक
हे माडतीर मेल्ले देवाचे खुशेक
घाणें घुंवता म्हजे मतीक
जिबली लोळता नासतां सुशेग

दोन हजार वरसां पयलें
जेजू आयल्लो पादरी म्हणा
सांत आंतोन मात्र धोसता
कित्याक कळना म्हज्या मनाक
पयलो आंतोन जाल्लो सांत
जेजू आयल्ल्या उपरांत
आकाशीं उबार रावल्लो उबो
घेवुन कशें बाळकाक
चलतां चलतां देखतां पाटीं
वोणकोन इगर्जी बागलाक
आब म्हणता काडचीं कुलपां
न्हय रे पुता, सांताक आनी देवाक

शून्य थावन देवान घडलो
संसार हो भोंवच व्हडलो
जेजूक नाडलो देंवचार कसलो
खंयच्या देवान हाका रचलो
नेणते मतीक पोकरी सवालां
कळनांत कशीं आयल्लीं

पडले मार पाटीक चार
पाटल्यान आब उबो रावल्लो.

# भुकेलो

कविता लिखल्यो
किन्याक कवी भुकेलो
ताचो जमो जालो
छापून बूक केलो
तानेल्ल्या वाचप्यान
हो बूक वेलो
वाचपी सलवलो
वाचूंक दडबडलो
माळयाक हो बूक गेलो

आज आज्याप!
जाय म्हळ्यारय दिसना
तर खंय हो बूक गेलो?
ह्योच कविता
रुचल्यो व्हाळयेक देकुन
व्हाळयेन बूक खेलो
हेच व्हाळयेन
म्हजोय बूक बुक केलो
येंवच्या वरसाक!

# आबलेशी तुं कोण?

दर्याक सांडुन भुंयचेर नदर
नासतां गिरांत धांवले उदका दोंगोर
गिरासुन कुडी उडयलीं मोडीं तडीर
अशीर संसारांत जालीं तशें पाशार

दोळ्यां कुपांनी जमलीं दालींयांनी दुखां
मोगाच्यांनी सांडलीं आपलीं वजरां थिकां
उरलां काळीज तरी कोणाच्या सुखाक
लाभों विशेव तांकां असलें मरण नाका

काळीज दडबडता पाय थरथरतात
शिंदोन पोर मोन्या कोनश्यांत
वाडोन आयल्यात सांकळी भिरांत
सोरमुल्ल्या स्वासांत संपलां मनश्या जिवित

जाला निचेव ताच्या मना पिश्यांत
तोच नाच फकत नमुन्या वेसांत
धर्त जाल्या आबेशिचे दावलेंत
युगांच्या रडणेंत जालें ताचेंच जयत

तर तुं कोण...?
संसार रचल्लो एकाच देवान
तो सत, तो मोग, तोच समाधान
तर कशें जालें, कित्याक केलें, कोणा हातान!
नेणांव तरी, जाणांव आमी सांडुन
तुं घालचोनांय आमकाम केदींच सोडन

# म्हातारपणा

जिविता पयणांत तुंच पोंत
तुजेविणें जिणें संपचें ना
डिम डिप्पर जांवचें मनशा जिवित
कोणाचोय हांगा भरवसो ना

तरनो उसवास मोनो जायत
नव्या फांत्याक तेंकताना
लांब दिगाय तुं गिरेस्त
माना येणें सरवांक लाभचें ना

सांपडोन घाल म्हाका तुज्या दोळ्यांत
संसारांतल्या त्या कडपणा
शहबास तुका, तर मेळशी शाभित
मिर्गाजळ जांवच्या म्हातारपणा

# रेंवे वयलो दिवो

तें कीर्ण सुर्याचें
खंयसर तें लिपलां
थेंबो एक उदकाचो
दर्याक कसो चुकला

उतरां उल्यांचो उमाळो व्हाळों
मॅळ सोभाणाचो जावन तिळो
श... श.. आज मौन जालो
निमाण्या सताची रुजवात जालो

घश्ट्‌वन घश्ट्‌वन आयल्यो यादी
मेळ सोभाण घडलल्यो आदीं
सुकल्ले रेंवेर आरावन माती
आकार दीवन दाकयली श्याती

नंतर येतां आतां ना येना म्हळें
तुरंत आपवणें देवाचें जालें
रुबाव नासतां जावुन खाल
सांडुन हे रेंवेक गेलो

लिपल्लें कीर्ण चुकल्लो थेंबो
वाट संपवन विशेव घेता
जिवाळ रेंवेर माजवोन दिवो
वयल्या राजांत पेटों सदां

# जिणयेचो मिस्तेर

घडघडो जगलाणें भुंयचेरय पडता
कठिण अनवार जिणयेंत येता
सुर्यो फसोन ग्रहण देखता
मग्न कामांत राजी नांच करता
कंगाल मनीस पाटीं धांवता
वर्तमानाक भविश्य म्हणता

एक मेट फुडें काड
दुसरें मेट देवाक सोड
पडत जिणयेंत काळें मोड
खेंडशी देवाक नासतां सोड
मनशा, जिवित दिल्लेंच व्हड
वीक न्हय फकत गोडशें कोडु

संसाराक तुं भिंयान चलशी
जिणी सगळी रडोन बसशी
दर्याक तुं मेजूण काडशी
ल्हारां मेजूंक कोणाक सांगशी
जिणयेचो घुट मोगान घेशी
मिस्तेर सोडोंवक भोंवच खूशी

तर ऊट मनशां मुखार चल
जाल्लें जालां कालचें काल
आयच्या दिसाक दीवन मोल
भागी कर जिणये चाल

# जिवित

जिवित जियेंवक जिये
तें कशेंय आसों तशेंच जिये
काळोक उजवाड दोन मुखां
मिलनाचें फळच हीं सुखां
ताचो अर्थच हें जिवित

बोंगो जावन फुलत सोबीत साळक
उबिरच ताचो जलमाचो स्वास
उमो दिंवची आशा, नासतां सुर्याची वोळक
बाळंत जायनासतां उरले ते अकलास
नाका, पयशिल्या परवताचो आसरो जियेंवक
फकत कांट्या फातरांची वाट, पाचवें राज

परजळच्या दिसा वेळांत
मेळचीं नांत तारां पळेंवक
मिणकितलीं रातिच्या अधंकारांत
मिरगाजळ न्हय
दवरता काळोकच नेकेत्रांक जीवंत

कोंडाटो दोळ्याच्या गुलोब फुला
कित्याक तिळताय वोयेंतल्यान
पळेंवक तुका राकतले हात
पात्येनाका त्या स्वपनांक
तांतूंय दुखां लिपल्यांत

# तिसरो हो कोण

म्हजे तुजे मधें
तिसरो हो कोण
नेणा कोणच
पुण, जाणा तो... कोण

मुखल्यान बरें
पाटल्यान धरून खोरें
करतलो म्हाका मात्येक सारें
सांगोन तुजेलागीं
खाववन तुका रोसाळ गरे

नेणां हांव तिसरो कोण

ताचें बरें
म्हजेंमुरे
म्हणतालो म्हजेलागीं
त्याच बऱ्याक फुंकोन वारें
फुटयल्लो तो कोणेमुरे?
विचारी तुजेलागीं
तूंय नेणांय तिसरो कोण

आमचे मधें हो दफेदार
पलेंवक दिसत वफदार
एकाक भरसोन तीन चार
हाडतलो फुंक्याक विघनां अनवार
आमी दोगय नेणांव तिसरो कोण

पुण,
तिसरो आसा
जागरूत रावा
हो कोण?
चमचा!

# व्हाळचो हो व्हाळो

व्हळू व्हळू व्हाळच्या व्हाळ्याक
हांवय पावल्लों पागुंक
इमाजी, प्रतिमा शिरकल्यो गरयेक
अलंकार पागतां पागतां
उपेंवक लागलों प्रासाक

गुरपुरचो व्हाळो व्हाळता खाडी शेरांत
उद्देश घेवुन एकच मनांत
तुंय व्हाळ हांवय व्हाळतां
आमी व्हाळ्यां संगीं, संगीं
आज...
कवितेच्यो नव्यो झरी उमाळोन व्हाळतात
फकत,
उदर दिल्ल्या ह्याच व्हाळ्याच्या उदकांत

ह्या व्हाळ्याक हांव कितें म्हणों
तारां मधलो चंद्र म्हणों
या एकाच ल्हाराचो दर्यो म्हणों
पुण हें सत,
कविता शेतांत हें कणस
आसा बरपूर भरोन

हो विमर्शक भांगराचे तलवारिचो
बरवपी मनांत उरच्या पानांतलो
संपादपी कोंकणी उमाळच्या उतरांचो
हासो म्हाका तुका हासोंवच्यो
मुखेली काळजां एक करचो
व्हाळो कोंकणी भाषेच्या आंगणांतलो
सुपुत्र कोंकणी आवयचो
कवी बाब ऍंड्र्यू डि कून्हा नांवाचो
कविता शेतांत हांव शिस ताचो

# जिवंतपण

सुका दुखाक
मापची काडी ना
मनांतल्या दंडळ्याक
उजो उदक
पत्रा तळाप दर्या उदकांत
उपेवन गेल्ले भाशेन
मनशा जलमा पातक
खुरसार क्वावन
हरयेका मेटा मेटाक कोसाळ्न
भयण वेरोनिकान पोशेल्लो हात
रगता संगीं घाम पोशेवन
पुसल्लो तुवाल्लो
रगताचो उमाळो
भुमी वयर आवाज
परजेची बोबाट
परत पाटीं येंवचो ना
पाटीं येतलो केदनां
ल्हान भुरग्याक उकलन
मुखमळ पोशेवन
मना कोनशांत गुटलोन
चलियां मधें आवय मरी
आसोन आसनासतां उदक वोतुन वाडल्लें
झाड बावोन सुकोन निरजीव
बुडोन गेल्लो सुर्यो
उदेवन आयल्लो चंद्र
रावनातल्लो वेळ
रोदां भाशेन घुंवोन
उटोन आयलो तो...
जिवंतपण

# मनीस जावन येनाका

शिरांधारींनी पावस वोत्ता
हांगासर कितेंच किरलना
किरणां चडल्यार सुर्यो सोभता
नदर रजार जायतें जाता
पुण संसार कित्याक बदलना

जेत्सेमनी मोळ्यांत घामेलोय रगत
खोट्यांक कळ्ळें ना समजलें फकत बऱ्यांक
जेरबांदांनी मार खांदी खुरीस
सोसलेय आमचे खातीर
जांवदीं म्हण बरे मनीस

आज साद घालुंक कोंबो नपयंच
नेगारूय करूंक मेळचोना कोणूंच
साताचें सत्तर पावटीं पांवचें ना भोगसाणें
उतर बरें मोगाविणें
जिबयेर थावन लिपयलें कोणें

सोडंवक पातक्यांक येनाका तुं परत
खोट्यांक हांगासर बिलकुल ना मत
संसारीं बरें तुका मेळतलें सरगार खंडीत
पात्येतेल्यांक पावता तुजें जिवंतपण खरें सत
जिणें बदलूंक तेंच पावता ह्या संसाराक

येताय तर ये तुं धरतेक
पुण मनीस जावन येनाका

# क्रिसमसाच्या मध्याने रातीं

क्रिसमसाच्या मध्याने रातीर
भागेवंत कुटमाच्या तेंपलाक
आंकुडच्या हिंवांत
मस्क काळोकांत फुडें
पावलां तेंकता तेंकताना
पाटल्या घडितांच्यो यादी आरांवक लागलों
सुख दुखाच्या पांपाळ्या वयर
रावोन सकयल काळच्या उदकाचो काळो
देखताना आयली तकली घुंवोळ
थोड्याच पावलांच्या अंतरार
नव्या वरसाच्या उगत्या दारवट्यार
पाच्वो चरल्या रंग रंगाळ
भागिंतल्या फुलांक चोयताना
देव दुता थावन दिर्वी जोडूंक
हात पासळायल्ल्या तवळ
सगळें सोसून
सोडवण दिंवच्या त्याच हातांनी
उकोलन धरल्ले
परत क्रिसमस परबेची रात
सगळ्या आकासाक लिपोन वरच्या
ह्या लालेंवच्या दोळ्यांची दीश्ट चरल्ली
दिगंता पऱ्यांत

# नमो तुका बाळोक मरये

सां. जोकिच्या घरीं, सां. आन्नाच्या उदरीं
उदेलें नेकेत्र, जलमोन ह्या संसारीं
कोणाक तरी तिका आमी करूं सरी
ति जियेता हरयेकल्याच्याय घरान घरी
व्हय,
तीं आमची, आमा सरवांची बाळोक मरी

गाणां गावुन संगीं ताळे मेळोयां
शिंवतीं कळे, आबोलीं, फुलां अरपुयां
तिचे समोर आमी ऐक जावयां
दीनपणीं एका काळजान हरसुंयां
नमो तुका बाळोक मरये, मरयेक होगळिसयां

भरोन आसां नवें कणश्या भातांनी
बाळोक मरयेच्या धाराळ बेसांवांनी
मागोन तिचेलागीं जेवतांव आमी
जातांव एक कुटम तिचे नांवीं
अशें
नवें जिवित उघडता हरयेका घरांनी

आज सोभताय घरीं, तुं जावन बाळ
रेंवे वयल्या आमच्या पावलांक दी तुं बळ
उबोन आसच्या सपणांक, लाभय हाता थळ
आपापल्याचें जांव जिवित, मोगाळ भोंव मोवाळ
देकुन,
आमा सरवांक तुं धर
तुज्या आशीर्वादांनी व्हाळ

# सात दर्यां पयस

सात दर्यां पयस हे रेंवेर
हांगा बिडार सांडुन संसार
पावता चीट ती गांवची हफत्यान दारार
विचारन येताय तुं केदना रजेर

क्वाळता क्वाळो गांवच्या घरच्या मुखल्यान
धाडता पतिण तिं दुखां गळवन
दर्या तडीर हांगा एकसुरो बसोन
तीं दुखां ल्हारां आपयतात म्हाका पळेवन

आंवडेता काळीज मोगाक मेळोंक
पिश्यार जालां म्हजें मन हें चिंतुन

म्हाका पळेंवक राकता नेंटें बाळ
रडता जाय पप्पा म्हण करता खंय सळ
लिखता बायल म्हजी तुं ये पार्टी मेळ
तुजेविणें रावोंक मेळना थळ

मागतां तांकां दी देवा बळ म्हण
चिंतनां विणें तीं जिणें सारूंक

तिंच भोगणां येतात म्हाकाय धोसुन
कूड रेंवेर पुण धांवता गांवाक मन
म्हयन्यांनी येंव, क्रिसमस धांवोन
सुटयेर पावतलों हाच्या निबान

# उतर दिवयां

धवे साडयेर तांबशा पोल्यार
तिळो कपलार हासो वोंटार
पोसवता मोग काळजांत कोनशार
आज दिवयां उतर लोका समोर

सुटाबुटार हासकुऱ्या तोंडार
सोबताय तुं आज ह्या हुंबरार
हात मेळोवन हाताक हातार
माग्यां आमी बरो फुडार

म्हजो तुजो मोग जाला हे धरतेर
घडोन आयल्लो बांध हो वयल्या सर्गार
साक्स जावन आंज आनी देवा हुजीर
घडलो हो बांध सरवां समोर

घडी एक्वटांवची आयली आमकां
आनी उगत्यान जातलो मोग मोगा
एकामेका म्हणतात काळजां म्हज्या सुखा
एक जाल्यांव आमी दोगां

गळ्या भोंवारीं करियमणी
सोभयतली आमची जिणी
भेस जोडून मात्रमनी
भरोन म्हालघड्यांच्या बेसांवांनी

काडून हें मेट फुडें सरयां
एकामेका आमी समजोन घेंवयां
सुखा दुखांत हासोन रावयां
लगना पयणांत जयत जोड्यां

जिणी परयांत सावळी जातां
तुज्या पावलांची म्होर जातां
सपणेल्या सपणांक जीव दितां
संगीं सांगाता हांव स्वास घेतां

# दर्या ल्हारां मेजताना

सुर्यान आज सतरी धरल्या
चंद्रेमाक विसर पडल्या
सुके रेंवेर ल्हारां उटल्यांत
दर्यो आज तानेंवक लागला
तरी म्हज्या तुज्या मोगान मोगा
मरच्या दिव्याक जीव दिल्ला

दर्या तुजी गाज कित्याक?
तुजें उदक कोण घेता?
सुके रेंवेर उदक मेळत
पियेवन पियेवन खाल्ती जाता
अशेंच म्हजो तुजो मोग मोगा
रात नासतांच फालें जाता

उजो नासतां शित शिजता
मोग नासतां काळीज लासता
पुनवे रातीक आमास जाली
घरच्या दिव्याकच घर जळता
म्हजो तुजो मोग मोगा
असोय कित्याक निबोर जाता

दर्या तुका मुटींत धरलां
मोगाक म्हजे मतींत पुरलां
चिंतुन चिंतुन मोगाक तुज्या
सुके रेंवेर लिखुंक लागलां
खंडीत आज सलवोन गेलां...
भोगता म्हाका, कित्याक?
दर्या ल्हारां मेजूंक लागलां.

# दोळ्यांनी लिपयशी तर.....

घाल तुं नदर एक म्हजेर
चुकोन ल्हानशें पातक कर
जोडतलों हांव सर्ग जिणीभर
तुज्या दोळ्यांनी म्हाका लिपयशी तर

ये माना, म्हजो उलो कित्याक आयकना

सगळो गांव आंकुडतां हिंवांत
म्हाका भोगलें ना कितेंच जिवांत
पुण तुज्या पोल्या वयलो धोवा थेंबो
म्हज्या मनांत नाचता कुडींत

ये माना, कितेंशें गी जाता सांगोंक कळना

त्या मौन रातीं तुं नाचलेंय
तरी आयकलीं नांत पांयजणां
तर कशेंगाय पारकिलें काळजान म्हज्या
तुज्या काळजांतुल्या गुणगुण्यांक

ये माना, कांय मोग पुणय जांवक ना

हें वारें तुज्या भोंवतीं धोसता
नाजूक सोबायेचीं कुलपां काडता
हांव देखतां देखतां उसवास काडुंक विसरतां
तरी जियेतां तरी जियेतां

तुज्या मोगाक लागोन
तुज्या मोगाक पासुन
तुज्या मोगा खातीर जियेतां

# कित्याक तुं आयलेंय

येताय म्हणोन म्हळ्ळेंय तुवें
पुण तुं आयलेंनांय
कित्याक तुं आयलेंनांय
सांग कित्याक तुं आयलेंनांय
हांव रावल्लों राकोन तुका
सांग कित्याक तुं आयलेंनांय
काळजाक म्हज्या बोवच दुखलें
त्याच काळजांत तुं आसल्लेंय
देकुन हांवें सोसलें

त्या दिसा तुं येतलेंय
चोयतां चोयतां दोळे म्हजे थकतले
उतरां म्हजीं संपतलीं
आशा म्हजी थांबतली
निमाणें काळीज म्हजें रडतलें
तुं कित्याक आयलेंय
कित्याक तुं आयलेंय?
फाल्यां तरी येतें आसल्लेंय
हांव अशेंच राकतों आसल्लों

तुं येतलेंय
परवा ना हांव राकतलों
पुण येना येंवचीं ना म्हणनाका
येनां येंवचीं ना म्हणनाका म्हाका
तेदनां हें काळीज जळतलें
उज्यान पेटतलें
भिरमत ह्याच काळजांत
तुंय आसतलेंय

# व्हळू व्हळू काळजाक लाग

तुं दोरी हांव पाळणें
हांतुं धलता मोगा रडणें
तुं दोनपार हांव रात
चिंता नासतां गिन्यान मत
तुं तरन्या कासुळ्या खोलो
हांव तांतलो उदका थेंबो

तुं पांयजण घालुन मेळ
हांव रडतां नासतां ताळ
रुंबडी फुल आकासीं रुकार
पडलां मोगार काळीज किरकोळ
तुं तुंच हांव हांवच
स्वार्थी काळीज रडता काळजाक

आबोल्यां स्वपणांत येंवचें नाका
मोगा म्हणोन भुलंवचें नाका
दिसाक तुवें भेटचेंच नाका
वोंटा उमो लांवचो नाका
येताय तर काळजांत ये
मोगा शिरांक धर्न देंव
हुनोनी रूच निंवोन चाक
व्हळू व्हळू काळजाक लाग

मिणकुल्या उज्यान वाट देखतां
मोगा येण्याक काळीज राकता
काळीज म्हजे घेटे जालां
मोगा शिंवोर देंवोन सोड
काळजाक काळीज लागय म्हाका
काळजाक काळीज लागय मोगा
आज ना तर फाल्यांय जायत
हें काळीज राकतां तुका

# म्हजो मोग

तुजेर जाला मोग असो

धा उपदेसा प्रास व्हरतो
नवरत्ना प्रास प्रजळ
आट दिशांक मिकवल्लो
सात जल्मा प्रास उंचल्लो
स ऋतू प्रास सोबीत
पांच लोह प्रास अधिक घट

दुबळो न्हय बांदुंक ताजमहल
हांवें घडलां काळजांत मोगा तेंप्ल
सोभता काळजा आलतार सदां जिवाळ
तुजे विणें केदिंच आसचो ना थंय परजळ

तुजेर जाला मोग असो

चार वेदांचो
तीन काळांचो
दोन वेळिंचो
आनी, एका माना प्रास व्हरतो

तुजे नदरेंत लिपय
गुर्त हो म्हज्या मोगाचो

आर्थर पिरेरा वोमजूर

# घडी, चांदन्या संगीं

बसलां मुखार चांदनें सामकार
घडल्यात हांगा दोन संसार
ऐक म्हजो दुसरो देवाचो
आडव दिलां वोजें वोंटार
आयतो जालां आयकोंक शिंवोर
मौन उजो उसवास तुजो

सदां फांतें बुडच्या आदीं
जायते पावटीं मेजून काडीं
दुबाव पिश्यार पडचे आदीं
हाताक हात मेळंवक सोडी

वोंटा मदलो परदो सुटय
दोळ्यांत तुज्या म्हाका नाचय
मोगऱ्या केसांनी आवाज दाकय
काळजांत म्हज्या दर्याक गाजय

पेटलां भांगर लोंकंडा करी
मोवाळ चांदन्याक सुर्या धारी
रावल्लें उदक मौन तरी
हांव पावसा उदक उडासा बरी

न्हंय घुंवता दर्या कुशीक
दर्यो लांबता मोळबा बशयेक
कुपां इड्यांत चांदनें खेळत
तारां राकलीं मोळबा येण्याक

# एकसुरपण

एकसुरपणान सांगात दिलो
दर्या तडीक वेंगोन गेलों
ल्हारां सांगीं दर्यो हासता
पावलां पावलांनी हांव देखतां

दिमकुऱ्यांनी आयलीं ल्हारां धांवोन धांवोन
उडा उडकी मारून गेलीं वाडोन
चिंतनां चिंतप आयलें भरोन
आटेविट्यांचो बांद सुटोवन

संगीं सांगात दीत कोण्णां..
आशा आसली काळजाक लागवन
राकतां राकतां जाल्ली पिराय
भोगचें नाका हें एकसुरपण

सुर्यो आमुरपिको हासता
चंद्रेमाकुय लज दिसता
येंवचीं ल्हारां धांवलीं पाटीं
कित्याकगी म्हाका हो मिसतेर दिसता

दर्यो आज मोनो जाला
हांवें वेची वाट देखता
ना, सांगात एकसुरपणाक
सांगशातगी सांगात म्हाका
कोण दिता?

# म्हजो गांव

म्हज्या गांवांत व्हाळतात दुधा झरी
मान सांवाळ्ळा पाचव्या पालवा जरी
धुंवरी केसांनी पांगरोवन वेल गांवारी
खंयच्याक तरी करूं म्हज्या गांवाक सरी
सरगा बरी गांव म्हजो ह्या संसारीं

तेच धरतीर धल्लें पाळणें
तेच धरतीर जाल्लें रडणें
तेच धरतीर वाडलो हासो
तेच धरतीर रावलों उबो
तेच धरतीर आपणायलें जायतें
रुजवात नातलें खरें सत तें

हेच जिबेन, एका मनान, खऱ्या काळजान
वोलायिल्लें गांवाक सर्ग म्हणोन
परकी गांवांत गांवाक सांडून
जालों कसो गांवाक सयरो जावुन
मना वोंट्येंत यादी धल्ल्यों धलोन
अश्यो अश्यो आयल्यो यादी तशें गेल्यो भोंवुन

म्हजो गांव आपयता म्हाका घालुन गाणां
वाटेर वोंपल्यांत थिकां वजरां रतनां
दामास्काची सतरी बावली ना, पुरासाणेन दोडली ना
सदां पुनवे मोळ्यांत धल्लीं भागी मनां
सगळीं कूड काळीज म्हज्या सर्गाक तेंकताना
हो म्हजो गांव म्हाका सोडन निदलो ना

वेतां खरेंच गांवाक देकुन हांव जेमलों ना
हो म्हजो गांव म्हाका सोडन निदलो ना
हो म्हजो गांव यादी भायर गेलो ना

# वेचीक हांव

ना इजार, ना वस्तूर, ना कितेंच म्हज्या आंगार
बगर सोभता पेंकटार दोन गेणा तीर
हरयेका फांत्यार भरती निदेर
वोत्ता म्हजेर उल्यां शिंवोर
ऊट रे पुता, येरे पुता चडयां तारवार
कित्याक बापुय म्हजो पागी

आयकलोना काळीज आसोनय रडणें रुदान
येना बाबा येना म्हळें हांवें भिंयान
भरलें तारूं बाबा संगीं तटापट तन
कित्याक बाब म्हजो पागी

आंकुड्च्या जिवांत उबलां काळीज
रडच्या दोळ्यांत कोवळां राज
दर्या ताळ्यांत कोगळे आवाज
ताळाक मेळता दर्या नाच
कित्याक आमी दोगूय पागी

घेतलो विशेव नासतां गुन्यांव
अरधो चंद्र जालो पुनव
विधवी तारवाक धेडो हांव
दीवन बेसांव तुजें बरें जांव
बाब म्हणा सरगीं थावन
कित्याक आज हांव जालां भागी

उदेंवच्या वगता सुर्यो कित्याक पिकता
नेणां हांव..?

दायज कविता स्पर्ध्यांत दुसरें स्थान

# दोळ्यांतुलें रुदान

देव दिंवचोना मागल्या बगर
ही घेंवची ना दीवन उदार
नोव म्हयने व्हाववन उदर
आपलेच कुडींत दीत कोण बिडार?

सुक्या दाड्येच्या पांयां खोटेर
सुफळ जिणी लिखली म्हजेर
देकुन मिसता मां म्हळें
संसारी हिका आवय म्हळें

म्हयन्या रजेर गांवांक पावतां
उसकें तशें दिसता उशें
जिणी सगळी तेंकोन घेतां
आशा, रितें पोट भरता तशें

दाड्ड पोल्यार हात पोशेत
मां म्हणोन सांगचें कशें
केसां संगीं मस्तकय भिजात
उदका येंबे झरी तशें

झडले तरी कशे ते उदका येंबे
त्या सुकोन गेल्ल्या दोळ्यांतुले

# तीं दुखा उलयताना

लज नासतां जडच्या दुखांक
लज कशी लागची
विणगीं सोभच्या ह्या दुखांक
मर्यादेची तान कशी वेंगल्ली
देंवतां देंवतां
आपल्याच हातांनी चिरडून कित्याक लिपर्ली
लिपतां लिपतां
कित्याक लागोन तीं नपयंच जाल्लीं

तर जडतीत,
धर्त भिजत भुमी भरत
दर्याकय एक सवाल जायत
देकुन मिसता
आपल्याच हातांनी चिरडुन बसलीं

जाल्लें जाता जांवचें जाता
तुमी आज देंवोन सोडा
संसाराक दाकवन सोडा
आमी उलयतांव
व्हय, आमींय उलयतांव

जडोन तुमी करुन रुता
घडी तरी उलवन काडा
धयरान आज सांगोन सोडा
आमी उलयतांव
व्हय, आमी उलयतांव

भेश, शहबास म्हणतलो
आर्यर पिरेर वोमजूर
जेदनां तुमी उलयताना
तीं दुखां उलयताना
व्हय, तीं दुखां उलयताना

# ...थेंबे थेंबे...

- नांव: आर्थर रोशन पिरेरा
- गांव: वोमजूर
- जलमा दीस: ०१-०१-१९७३
- आवय-बापय: सेलिन-सिरिल पिरेरा
- शिकप: बि.एस्सी.

साहितीक वावर:

- राकणो, मित्र, कुटम, दिवो ह्या नेमाळ्यांनी आनी मायभास.कॉम, कविता.कॉम, दायज.कॉम, कन्नड ध्वनी.कॉम, द्याट्सकन्नड.कॉम ह्या जाळी जाग्यांनी कविता पर्गट्ल्यात.
- दायज कविता स्पर्धो - वेचिक हांव - दुसरें स्थान
- कविता ट्रस्ट - तें दूक एक थेंबो - म्हयन्याचो कवी आनी अत्युत्तम कविता
- मंगळूर आकाशवाणीर कविता प्रसारण
- सबार कोंकणी, कन्नड कविगोष्टिंनी पात्र घेतला.
- ध्वानि प्रतिष्टाना यु.ए.इ. हांणी पर्गटल्ल्या तारे एणिसि मोत्ता हेळु आनि कन्नड नाडु नुडी रक्षणे याके मत्तु हेगे? ह्या बुकांचो सह-संपादक.
- यु.ए.इ. मट्टाच्या गायान स्पर्ध्यांत हाय वजन कवितेक पयलें स्थान, तुं पाटीं मांय तिसरें स्थान, पंगड गायान स्पर्ध्यांत भारत तुं महान पयलें स्थान.
- यु.ए.इ.त कन्नड साहित्या खातीर करच्या वावरा खातीर समाज रत्न म्हळ्ळी राज्य मट्टाची प्रशस्ती राज्यपाल टी.एन. चतुर्वेदी थावन फावो जाल्या.

# काळिज उमाळोन येताना...



पळेया, हांव कसलोय कवी या लेखक न्हय. कवी या लेखक तो जाता अंत्रळाच्या कुपांचेर चडोन मोळबा वयल्या सोभित सोभित तारांक विंचुन आपल्या उसक्यार खेळयता. हांवें फकत, बस, इतलेंच लिखलां तें म्हजे जिणयेन दाकयलां. तीं दुखां उलयताना म्हज्या विशीं या खंयच्याय एका मनस्या विशीं न्हय. ही कृती आसा युगा युगा थावन झडच्या दुखाविशीं, भविश्यांत झडच्या दुखांचो मिस्तेर सोडंवच्याविशीं. ये तुं पाटीं मांय म्हणोन आपल्या गोद्‌द्या वोंटांनी सांडलले आवयक आपंवच्या नेणत्या भुरग्या विशीं. वर्सा उपरांत आवयच्या उसक्यार तकली तेंकोन पुतान देखच्या आवयच्या रुदानाविशीं. इतलोय पयस वचनाका म्हणोन पतीक चिंतुन घरा मुखल्या वाळ्यांत धाडच्या पतिणेच्या दुखाविशीं. म्हातारपणाच्या हुंब्रार पाय तेंकच्या आवय बापाय विशीं. लग्ना भेंसांत एकवटोंक आशेंवच्या चल्या चलियेविशीं. हाय वजन म्हणोन दुंखां गळंवच्या भुरग्याविशीं. सर्ग म्हणच्या आपल्या मांयगांवाक सांडुन परगांवांतल्या हुनोनी रेंवेर पाय तेंकच्या वकता झडच्या दुखांविशीं, प्रक्रुतेच्या दुखाविशीं.

दुखां आसलीं तर संसार आसा, संसार आसाजाय तर दुखांक आसोंक आसा. ना तर कितेंच्च वा फकत पोल्यांचेर तीं माजवलीं ना तर आनी ह्याच दुखांक तुं पोस्को आवय बापय जालोय तर, ही कृती अबल दुखाचो नीज अर्थ पारकुंक वाचप्यांक सलीस जांवदी म्हळ्ळी म्हजी आशा.

कवितेच्या शेतांत माजवानातलीं मेटां काडच्याक हुमेदिचीं उतरां बरोंवक म्हाका प्रोत्साव दिल्ल्या प्रख्यात साहिती आनी म्हजो आदर्श लेखक डॉ ना. डि सोजा हांकां सदांच हांव उपकारी जावन उरतलों.

कवितेच्या शेतांत नेणतीं पावलां काडतां काडतां म्हाका चलोंक आधार दिल्ल्या म्हान कवी बाब मेल्विन रोड्रिगस, ह्या शेतांत म्हाका मार्गदर्शन दिंवचो ख्यात कवी बाब ऍंड्र्यू एल. डिकून्हा आनी तशेंच आप्त कवी बाब वल्ली क्वाड्रस हांकां हांव ऋणी उरतलों. बूक छापुन हाडची जवाबदारी घेतल्ल्या मित्र वितोरी कारकळ आनी सांगात्यांक देव बरें करूं. देवनागरी विभाग सांबाळ्ल्ल्या मेल्वीन रोड्रिगसाक मोजे धिन्वास.

हे क्रुतिचें उगतावण कार्यें सादर कल्ल्या कर्नाटक कोंकणी साहित अकाडेमी हांकाम हांव आभार जावन आसां.

म्हज्या स्वासांतलो उसवास जावनासची म्हजी आवय श्रीमती सेलिन पिरेरा, म्हज्या काळजाची ऊब म्हजी पतिण श्रीमती रेश्मा पिरेरा, म्हजे जिणयेचें प्रथम कीर्ण म्हजें बाळ आलमा पिरेरा हांचो सहकार फुडेंय आशेतां.

–आर्थर पिरेरा, वोमजूर

गौरव. तरय म्हाका हो उमाळ्यांचो कवी म्हळ्ळेपरीं भोगता. हे उमाळे केदनां आवयचेर, केदनां आपल्या प्रेमीकाचेर, केदनां आपल्या मोगाच्यांचेर तर केदनां वाचप्यांचेर आसात.

थोड्याच तेंपा थावन ह्या कवीक व्हक्तिगत जावन वळकतां तरी ताच्या काळजांतली कोंड्त, तांतुं भिरमतेची फिरयाद सक्कड हांवें लागशिल्यान पळेल्या. हेरांक हें उतळायेन पळेवन समजांवचे तसली न्हय. मात्सी गुंडायेन पारकून पळेंवची गरज आसा. देकून तवळ तवळ उमाळ्यांनी भरोन कविता लिखचो कवी हो. मनश्यापणाचीं मौल्यां, दण्सतेल्यांचेर भिरमत कितलीगि तितलोच राग दणशितेल्यांचेर आसचो हाच्या कवितेचे गुंडायेंत हांवें कितलें लिपंवचें प्रेतन केल्यारय दिसोन येता. हिच सोबाय आर्थराचे कवितेंनी दिसता.

ह्या कविता जम्यांत आसचीं एकेक कविता खंडित जावन वाचप्याचे मतींत आसच्या निराशि चिंतनांक नवी दिशा दिंवचीं प्रेतनां जरूर करतात. पूण खंयचें घेंवचें आनी खंयचें सोडचें म्हळ्ळें त्या त्या वाचप्याचे मनोगतिचेर होंदवोन आसा.

कवी आर्थर पिरेरान कोंकणी काव्य शेताक दींवक आसची देणगी जायती आसा. देकुन ताच्या कवितांच्या हरयेका रातीं तो नव्या फांत्याच्या भरवश्यान भरोंदी म्हळ्ळेंच म्हजें मागणें.

–वल्ली क्वाड्रस, कुवैट

## उमाळ्यांचो कवी



रुंवांत सर्ग आस्‍ा एट्‌येलाच्या तूं बरो जा कादंबरेंत परत परत वाचूंक मेळची एक वोळ. हे वोळिचेर बरंवक गेल्यार पानां पांवचीं नांत. मटव्यान सांगचें तर, कविांनी जियेल्ली मनश्याची जिणींच सुखान वाडल्ले जिण्याच्याकय भागी म्हळ्ळो मतलब दिना. हे रूंवक आस्येत, ल्हान्वींकाय आस्येत, हेरां मुखार परत परत लज भोगचें आस्येत. कोण आपल्या संसारी जोडीक फटिंचो आधार घेत– पुण ती जोड तात्कालाचि शिवाय शाश्विन न्हय. कित्याक सताचे बुन्यादिचेर बांदल्लें कोडकें फटिंचे बुन्यादिचेर आसच्या रावळेगप्रास मजबूत.

ह्या संसारांत आसचें हरयेक गरजेचें. कोणाक बरें दिसचें आनी कोणाक बरें दिसना जायत. कोणें उपकाराक पडना म्हण चिल्लिल्लें आनी कोणाच्या घरचो बांदपा फातर जांवकय पुरो. हें चिंतप समाजेच्या हरयेका प्रकारक लागु करयेता. सामाजिक, आर्थिक, राजकीय, धारमिक, साहितिक, लौकिक – एका दृश्टीकोनांत पळेलें तर हरयेका बऱ्यांत तितलेंच वायट आसता. जितलो व्हड दीसगी तितलीच व्हड रात. पुण हरयेक गरजेचें.

कवीक आसोंक जाय जाल्लो पयलो गुण जावनास्‍ा देखचो. पुण जेदनां कवीन देखल्लें ताच्या काळजा मतीक रिगोन थंयसर उमाळ्यांचें वादाळ उटयताना कवी अभिवेक्त करुंक मजबूर जाता. जेदनां ही अभिवेक्ती तिंतेराच्या रुपार बरपांत व्हाळोन येता– थंयसर उदेता साहित्य/ कविता. आनी कवी जाल्लो जेदनां आपलें दृश्टीकोन बदलून आपल्या भोंवतणी नदर चरयता. तेदनां ताका एकेका समस्यां पाटल्लो भरवसो दिसोन येता. एकेका वायटा पाटल्यान आसचें बरें कवीक दिसता. आनी तेदनां कवी आपल्या कविता जम्याक बुक्क केल्ले व्हाळयेच्या अभिमानाचेर, नाखुशी आसोनय बूक परगटच्या कामाक देंवता.

कोंकण करावळेंत जलमोन, कोंकण मातयेर खेळोन, तेच कोंकणी मायेच्या पालवाक धरन व्हड जावन – आबळे तेच कोंकणी मायेचेर मोगान तोवचो तरनाटो कवी जावनास्‍ा आर्थर पिरेर. हाचीं एकेक कविता वाचप्यांच्या काळजाक लागचे तसलीं, कित्याक हाच्या कवितेंनी उमाळोन येंवचे एकेक अत्रेग, उमाळे, धडधडे, आटेविटे, मोग, आशा, हुसको, भिरमत तशेंच

कवी आर्थर, हाची कविता जर म्हाका आनी म्हज्या वाचपी मित्रांक आवडता तर हाका कारण, ताच्या कवितेंत आसचें भोगणां, उमाळे आनी दूख रसिकांक जन्नताक व्हरन पायता. ताच्या हर कवितेंत भोगणांचो उमाळो, जशें खडपांत झर फुटल्ले बरीं. हांतुं उतरांचो मेळ आसा. आवय, हाय वजन असल्यो विरह कविता दुखांक आपवणें दितात. असल्या कवितेंक जर सोलफां घेतलीं तर, कवितेंक वेगळोच जीव येवन आयकोप्यांचे कान-मन धादोस जांवच्याक दुबाव ना.

पाटल्या वरसांनी ताची कविता शेतांत जाल्ली कृशी देखताना कोंकणी भाषेंत एक नवो सुकुर उदेल्लो झळकता. ही उमेद उरवन कवी आर्थरान आनिकय फुडें वचोंक जाय आनी आपलीच म्होर कविता संसारांत रचुंक जाय म्हळ्ळी आमची आशा.

–विनसी पिंटो, आंजेलोर (दुबाय)

काळजाक आपडचीं सिंतिमेंताळ कवितां घेवन आपल्या सुडाळ ताळ्यान, आपल्याच खाशेले शैलेन आर्थरान कविता वाचन करचें म्हळ्यार काव्य रसिकांक फेस्तच सय. ह्या आपल्या विशेष देण्यांवरवीं येदोळच कविता मोगिंचीं काळजां जिकल्लो कवी आर्थर पिरेर वोमजूर, न्हंय फकत कोंकणेंत बगर कन्नड साहित्य संसारांतय परिचित जल्लो एक प्रतिभावंत बरवपी, पदां घडपी आनी संघटक. तशेंच साहित्य संसाराक आपणें कितें तरय दीजय म्हण आशेल्लो आनी त्या पासत सदांच वावुरचो एक महत्वाकांक्षी.

आर्थराची कविता तितलोय पयस वचनाका (जिण्ये संगातीन अकालिक मर्णांत आदेव्स घेताना एक तरनाट्या स्त्रीयेन भोगचे दुखिचें चित्रण) वाचताना कोणाच्याय काळजांत आटेविटे भोगनासतां रांवचेनांत.

आपलो फुडलद कविता संग्रह वाचप्यांचे हातीं दींवक आयतो जाल्ल्या कवि मित्र आर्थराक जयताभरीत फुडार फावो जांव.

–रोबर्ट फॅरनांडिस, उद्यावर

आर्थर पिरेरा, वोमजूर, कोंकणी साहित्यांतलें भरवश्याचें सुकुर. सिंतिमेंताळ चिंतनांनी, काळजाक लागच्या उतरांनी, साहितीक वजनांत भरल्लीं कविता रचचे कलेंत आर्थराची निपुणता उटोन दिसता. म्हाका आर्थराच्या कवितेंनी, ताचें मन उणें आनी काळीज चड उलयता म्हण भोगता. आपल्या सुत्तुरांतल्या घडिता वर्वीं प्रेरित जावन जल्म घेतल्ल्या आर्थराच्या कवितेंनी गांवचे मात्येचो वास नाकाक चर्डीत मारता. कवी आर्थर म्हजो आमीग म्हण सांगोंक म्हाका अभिमान भोगतासताना, ताच्या फुडलद बुकाक सर्व बरें मागतां आनी आनिकय उंचलें साहित्य कवी आर्थर थावन हांव आशेतां.

–नवीन सिकवेरा, बह्मावर
(संपादक: मायभास. कोम)

## कविता जीव, कविता भविश्य आनी कविता संतोस

दोंगराच्या कुसव्यांत उबजोन येंवच्या नितळ झरी भाषेन कविता काळजांत उदेवन येंवची एक झर. हाका कसल्लीय एक गड व बंदड ना. ग्वी काणदन्नु कवी काणुवनु म्हळ्ळे सांगणेक सरी जावन कविता उबजता. जांव तीं दिसत्या वस्तु विशीं – कवितेक रूप दिंवचें म्हळ्यार मेल्ल्या मनश्याच्या निरजीर कुडीक स्वास दीवन जीव केल्ल्या परीं. कवी आर्थर पिरेरा, वोमजूर हाच्या कवितेंनय असलीच सकत आसा.

हो कवी ताच्या कवितेंनी खाडयेच्या रेंवे राशिंनी दर्याचीं ल्हारां उबजार्शी करता जाल्यार, शांत दोळ्यांनी थेंबो दूख कळितच नासतां पोल्यांचेर देंवोंकय सकता. काळ्या निब्बोर खडपांक उलंवचें त्राणय दिता. असल्या बलिश्ट सकतेचो कवी आर्थर पिरेराच्या फुडलद बुकाक सर्व रितिंनी बरें मागतां. तांच्या लिखणे थावन आनिकय उत्तीम कविता उदेवन येंवदीत म्हण आशेतां.

– पि.जे. करुगळनडे, बारकूर

वास्तवदा आळक्किळिदु वस्तुगळन्नु आतदु तेगेदु कवना हेणेयुवा कलेयन्नु करगतागोळिसि कोंडिरुवा युवा कवि आर्थर पिरेरा वोमजूर अवरु कोंकणी साहित्यलोकदल्ली ई कवना संकलनदा मूलका निच्चळा हेज्जे ऊरलिद्दारे एंबुदरल्ली एरडु मातिल्ला. मानवीय तुडिता जीवाळावागिरिसिकोंडु अर्ना सुक्षमा विचारगळन्नु ग्रहिसि स्पंदिसुवाई कविया भविश्या उज्वला वागलेंदु हारैसुतेने.

–प्रकाश राव, पय्यार
अधक्ष, ध्वनी प्रतिश्टान, यु.ए.ई.

# आर्थराक बरें मागचें उतर

कोंकणी साहित्य शेतांत कावजेणेचीं फुडलद पावलां काडुन आसल्लो आर्थर पिरेरा, ताच्या भोंवतणिच्या साहित्य इश्टांनी दिल्ले घोट सुशेगाद पियेल्ल्या वरवीं आज धयराचीं, बळवंत पावलां काडुन आसा. असलें एक धयर जोडचे खातीर ताणे काडची म्हिनत तशें दाकंवची हुमेद वाखणचे तसली. कविता ताणे विंचल्ली वाट. हे वाटेर ताणें चलोंक सुरु करन चड काळ जांवक ना. थोड्याच काळांत ह्या एका शेतांत तो भोव मुकार पावला. मुकार गेल्ल्या बरी अशीर जांवचे वाटेर, जीक सदां आपणांवच्या खातीर ताणें शिकजाय जल्ल्यो सुक्षीम गजाली– शिकची तांक ताका लाभों म्हणोनच म्हजी आशा.

–मेल्विन रोड्रीगस

कविता म्हळ्यार काळजाची भास म्हणतात: ती बरयतेल्याक आनी वाचतल्याक दोगांयकी मनस्याचें काळीज आसोंक जाय. थोडे पावटीं आमचेलागीं मनश्या काळीज आसा ती गजाल आमींच विस्रातांव. तसल्यांनी मानेस्त आर्थर पिरेरान कविता वाचताना हाजर आसोंक जाय. हांवय बसलां ताचे कविता बसकेंनी. ताणें दुखाचो एक थेंबो कविता वाचताना म्हज्या दोळ्यां खांचिंनी दुखांची बांयंच जाल्ली आसा. पयले पावटीं म्हाका खातरी जालां म्हजेलागींय एक मनश्या काळीज आसा तें. ताचे लिखणेक जयत आशेतां.

–हेमाचार्या

जेदनां, कवीक आपलीं भोगणां गुपीत दवरूंक सोसना, हेरां हुजरीं पातळांवच्यो येणो येतात, तेदनां तीं भोगणां कवितेचीं रुपां घेतात म्हळ्ळो संप्रदाय वाद घेवन वोमजूरचो आर्थर पिरेर आपली कविता मोगाची धांव कवितेक बाळंत जाला.

कोणाक चंद्राचें वर्णन तर, कोणाक मोगाचे दुवाळे आनी कोणाक मांय सुनांचें आणकाणें कवितेक आकर्शण जाता तर, सांडुन गेल्ल्या भोगणांक जीवंत करच्या आर्थराक, बुळबुळ्या उदकांतय खतखती धांव, वीज सकतेचें तांडव मारता.

सात जलमांची आशा सांडलल्या मौन दोळ्यां नाडींक थोड्याच काळाच्या सुखांत तृप्ती दिसता.

दोळ्यांत थावन व्हाळोन येंवच्या दुखांत, देवान कांय मोगा आमालाचें मिश्रण केलांगाय? जवाब आसा, मोगाची धांव कवितेंत.

–प्रीतम किरें, शारजा

व्हाळोंक जाय. कोंकणी कविता लोकामोगाळ जायजे तर साद्या कोंकणी वाचप्याच्या काळजा लागीं कोंकणी कविता पावंवची गरज आसा. लोकाचे जिण्ये केंद्राक लागीं आसच्यो कविता लोकाच्या काळजा मना भितर रिगोंक सकतात. फकत बुधवंतकायेचें प्रदर्शन कविता जायना. स्व–तंत्र नातल्लें, अनभोग आनी भोगणांची साय सयत नातल्लें हेरां भाषेंतल्या कविंचें अनुकरण करन बरंवच्यो कविता कोंकणी लोका थावन पयस उरतात. कवी आर्थरालागीं विशेस शब्दा भंडार ना. पुण भास आपल्या भोगणांक सरी जावन मोळची विशेस शाती आसा. साद्या आनी चालत्या संबदांक सयरीक घडोन नवो जीव नवो अर्थ कवीन दिला. कविच्या तीव्र भोगणांच्या प्रभावा वरवीं ही क्रिया आपापींच घडल्या आनी कसल्योच वेगळो अलंकार नासताना आंतरीक आनी स्वाभावीक सोभायेन कवितां भरोन रावोन काळजा मनाक भुलयतात, रसग्रायकांची तान भागयतात.

तें दूख एक थेंबो कविता आर्थरच्या कवितेंचो संदेश स्पश्ट पाचारतात.

पेल्याचें दूख तुज्या मनांत जिग्य
वाडोन भिं किरलों वारें मोगाचें व्हाळय
तेदनां हासतलीं दुखां लाभोन धादोस्काय
जेदनां जाताना तुं
परकी दुखांचें पोसको आवय आनी बापय..

आयच्या तांत्रीक जिण्येच्या वेगाचे धांवणेंत मनश्याच्या बेपरवा वरवीं खास संबंधच अस्कत जावन कुसकोन पडताना आर्थराचीं कवितां ही धांवणी एक घडी राववन सांडुन गेल्लो जिणयेचो अर्थ सोदुंक प्रेरण दितात. संबंधांचो बांध थिर करतात. भाव प्रधान जावन आसचीं ह्या पुस्तकांतलीं कवितां आर्थराच्या वेक्तित्वाची एक कूस मात्र दाकयतात म्हण्येत. हांवें जाणा आसचो आर्थर सामाजिक जिण्येंत बरोच मिसळाला. ताच्या सामाजिक वावराक कर्नाटका सर्कारा थावन मानय मेळ्ळा. जिण्ये वाटे वयल्या फात्रांक मेटां जावन घेंवचो आशावादच आर्थराच्या वावराक सकत जाला. आर्थर संयभान कवी तरय दुबायांत कविता ट्रस्टान चलवन व्हरच्या काव्य शाळांक चुकनासताना वांटो घेवन काव्य थंय आपली दीष्ट आनिकय विशाल करुंक पेचाडुन आसा. दुखां येंबे वाचप्यांच्या काळजांत व्हाळयल्ल्या ह्या मोगाळ कविथावन सामाजिक जिण्येच्या अनभोगाच्या ईटांत किरलोन येंवच्या कवितांक सहृदयिंनी मुखल्या दिसांनी खंडित आशेवन राकोन राव्येत.

–ऍंड्र्यू एल. डिकून्हा, शारजा

मोग, मयपास आनी भिरमत आर्थराच्या कवितेंच्या शिरां शिरांनी व्हाळता. दिंवचो आनी घेंवचो व्यापारीक मनोभावाचो मोग हांगा ना. वन वे ट्राफिकापरीं एकेच कुशीन व्हाळचो, कितेंच पाटीं आशेनासतां फकत दिंवचो मोग हो. कविच्या उतरांनी हो मोग धा उपदेसां प्रास व्हरतो, नवरला प्रास परजळ ये तुं पाटीं ये मांय कवितेंत असल्या स्वाधिक आनी आपुट मोगाचें चित्रण आसा.

दोळ्यां फोंडव्यांनी काजुलो पेटोवन
वाडायलेंय खेळोवन धलवन
हरयेक खेळांत मांय जीक आमची करन
तुं रावतलीय पाटीं सलवोन

आवयच्या मोगाचीं सिंतिमेंतां आनी दुखिच्यो झरी पाजारच्या हे कवितेक कवीन ताळो बसयला आनी संगीत दिलां. वेगींच ह्या पुस्तकांतलीं हीं भावगितां मधुर संगीता संगीं वाचप्यांक आयकोंकय मेळतलीं.

भोगणांनी आनी दुखांनी हो काव्य घोस जड जाला म्हण भोगताना हाय वजन भुकेलो आबाचे मार असलीं वेंग्य आनी विडंबन करचीं कवितां मतीक कुचुल्यो करच्यांत यशस्वी जाल्यांत. गांवचो मोग आनी देशाचो मोग गाजंवचीं म्हजो गांव आनी भारत तुं महान कवितां ह्या काव्य घोसाची जडाय चडयतात. जिणयेचे घुसपडेच्यो गांटी जोडंवच्यातच आपली सकत खिरंवच्या, आपल्या कोडु अनभोगाक वीक म्हण लेकच्या वेक्तिंक जिण्येचो मिस्तेर कवितेंत नवें चेतन आनी आशावाद वेक्त करचीं ऊंच चिंतनां आनी तत्वां आसात.

मनश्या जिवित दिल्लेंच व्हड
वीक न्हय फकत गोडशें कोडु
जिणयेचो घुट मोगान घेशी
मिस्तेर जोडंवक भोवच खुशी

आज कोंकणी काव्याचो सुवाध भरोच व्हाळोन आसा. कोंकणी कवी शिकपी जाल्यात. बुधवंत जाल्यात. हेरां भासांच्या ऊंच साहित्याची वोळक कवींक आसा. अनभोग आनी जाणवाय बुधवंतकायेन मोळन ऊंच मटटाचीं कवितां आमचे कवी रचोन आसात. पुण जेराल थरान सांगचें तर कोंकणी वाचप्यांक कवितेची तान ना. दाक्षेणेक लागोन वा भात आनी नलियां मधलो फरक पारकुंच्या नेणारपणा वरवीं उतळ साहित्याचो पोस जावनच आसा. कवितेचे वाडावळीक गरज आसचो भोंवार उबजजाय तर, कोंकणी वाचप्याक कवितेची तान लागोंक जाय आनी ती तान भागोंवची कविता झर सराग

लिखता बायल म्हजी तूं ये पाटीं मेळ
तुजेविणें गवोंक मेळना थळ

(सात दर्यां पयस)

गांवांत एकसुरपणाच्या उज्यांत लासोन आसच्या बायलांच्या कळवळ्यांक कवीन तालो दिला. दर्यातड जशें मोगाक साक्स जाता तशें एकसुरपणाकय सांगात दिता.

दिमकुऱ्यांनी आयलीं ल्हारां धांवोन धांवोन
उडा उडकी मारून गेलीं वाडोन

तडीक मेळोंक व्हाळोन येंवचीं शांत ल्हारां कवीक दिमकुऱ्यांनी चलोन येंवच्या बाळाची याद हाडून येतात. सुरवेर दिमकुऱ्यांनी चलोन मुखार उडकाणां घालच्या भुरग्याचे वाडावळिचें सोभित सुंदर प्रतिमा मनीक संतोसाच्या ल्हारांनी धलयता. कविची काव्य प्रतिभा हांगा संपूर्ण परजळल्या.

वेचिक हांव कविताय आपल्या बापायविशीं कविच्या खास भोगणांनी पिकल्ली कविता.

घेतलो विशेव नासतां गुन्याव
अर्धो चंद्र जालो पुनव
विध्वी तारवाक धेडो हांव
दीवन बेसांव तुजें बरें जांव
बाब म्हणा सरगीं थावन
कित्याक आज हांव जालां भागी

वेवेगळ्या प्रतिमांनी भरोन गेल्ल्या वयले संगतिंनी कवी आपल्या बाबा ची सगळी जिणींच वाचप्यांच्या मुखार दवरता. अर्धो चंद्र जालो पुनव प्रतिमा मुखांत्र कवी आपणाक जाल्ल्या वेगळाचाराची दूख सहृदयिंच्या काळजांत चरयल्या. वाचतां वाचतां काळीज मोवाळायेन मुदो जाता.

तितलोय पयस वचनाका ह्या काव्य घोसांतली ऊंच कविता. पतिच्या आकस्मिक मरणावरवीं लगना जिविताचें पयण एकाचफारा थांबताना पतिणेचे ते आकलास आनी कळवळे हे कवितेंत भायर पडल्यात.

सात जलमाची आतां खबर नाका
आज जीव म्हजो भर तुज्या जिवांत
उलय मोगा आज मौन नाका
आरावन धर म्हाका तुज्या गोपांत

आपल्या पतिच्या निरजीव कुडीचेर पडोन विळाप करचे स्त्रीयेचें करुणाभरीत दृश्य कवीन हांगा काळीज शिंदचेपरीं पिंतरायलां.

जिणयेच्या ह्या सोभीत मोगाळ घडितांक कवीन दिंवची प्रामुख्यता कविच्या उतरां उतरांनी पार्कियेत. सयरीक घडोन एकवटांवची घडी लागीं येताना मात्रिमोनी भेस जोडच्या घडये कविचीं भोगणां म्होंव जावन व्हाळतात.

जिणी पऱ्यांत सावळी जातां
तुज्या पावलांची म्होर जातां
सपणेल्ल्या सपणांक जीव दितां
संगीं सांगाता हांव स्वास घेतां

(उतर दिव्यां)

आपल्या जिण्ये सांगाती थावन हाच्याकय व्हरतें कितें जाय एके चलयेक? ह्या उतरांनी जिण्ये पयणा वाटेर संपूर्ण भद्रती आसा, त्याग आसा, मान आसा, स्वातंत्र्य आसा. संगीं सांगाता स्वास घेंवचो मीत नातल्लो मोग आसा –हीं उतरां कितलीं मोवाळगी तितलींच घट. काळजा गुंडाये थावन उमाळोन आयल्ल्या ह्या उतरांनी एका सुखी कुटमा जिविताची बुन्याद आसा. कोंकणी रुकाक रेंवोड घाल्ल्या वालीपरीं पाचवीं पाचवीं जिवाळ सोभचीं हीं कवितां कोंकणी संस्क्रतेची वोळक आनी परमळ बरोच प्रसारतात.

आपल्या कवितेंनी आर्थरान खास संबंधाक पयलें स्थान दिलां. वयक्तिक भोगणांक आनी कुटमा जिण्येक चडित ध्यान दिलां. आपल्या कुटमा थावन पयस गल्फांत काम करन आसच्या कविचीं खास भोगणां हेच दोणीर पयण करच्या सहृदयिंच्या भोगणांक जिवीं करतात.

म्हयन्या रजेर गांवाक पावतां
उसकें तशें दिसता उशें
जिणी सगळी तेंकोन घेतां
आशा, रितें पोट भरता तशें...
झडले तरी कशे ते उदका थेंबे
त्या सुकोन घेल्ल्या दोळ्यांतुले

(दोळ्यांतुलें रुदान)

आवयच्या उसक्यार सर्ग आसा! आपल्या उसक्यार तकली तेंकल्ल्या पुताचे केस पोशेवन संतोसाचीं दुखां गळंवचे आवयचें एक आपूर्व पिंतुर कवीन वाचप्यांच्या दोळ्यां मुखार खंचयलां. एमिरेतांतल्या आजमानांत आर्थराच्या घरा कविता ट्रस्टान आसा केल्ले कविगोष्टींत हें कवन आपले आवय मुखारच वाचुन तिका मान केल्लो, आवयचे दोळे संतोसान भारल्ले. आपल्या काळजाचे वांटे जावनासच्या बाळाचो आनी पतिणेचो उडास काळजाक लासताना कुटमा जिविता थावन सात दर्यां पयस जियेंवच्य कवीक भोगचे आटेविटे आनी अत्रेग एकसुरपण आनी सात दर्यां पयस कवितेंनी वेक्त जाल्यात.

दोळ्यांक दिशी भायल्ली सोभाय कविच्या मोगाच्या कवितेंक प्रेरण जांवक ना. मना दोळ्याक सापडच्या आंतरीक सोभायेचें वर्णन ताच्या मोगाच्या कवितेंनी उगाळता. कविच्या वेक्तित्वाची म्होर असल्ल्या कवितेंनी झळकता. भोगणांनी तोवल्लीं ताचीं कविता कापसापरीं मोव मोव लागोन काळजाक पोशेतात...

दुबळो नय बांदूंक ताजमहल
सांचे घडला काळजान मोगातेंल्ल
सांगता काळजा आल्लार मद्दां जिवदाळ
तुजेंनिगों केदिच आमचोना थंय परजळ

(म्हजो मोग)

मोगा मेल्लांत बुडोवन दिल्ल्यीं असल्लीं गोडशीं कवितां सहृदयिंच्या काळजांत मोगा रोम्प व्हाळयतात तर, वेगळाचाराच्या दुखांनी भिजल्लीं कवितां वाचप्याच्या काळजाक भिरभतेन कडयतात.

तिनल्योय पयस वचनाका
हीं काळजां केदिंच तुटचींनात
थांबचोना मांग दीवन आदेस तुका
ह्यो दोळ्यां नदी धांपच्योनात

(तिनल्योय पयस वचनाका)

कविचीं भोगणां जांव तीं मोगाचीं, दुखाचीं, संतोसाचीं, एकसुरपणाचीं, वेगळाचाराचीं.. तीं वेक्त करुंक कवीन रचल्ल्यो प्रतिमा मन पिश्यार घालतात...

बसल्लां मुखार चांदनें सामकार
घडल्यात हांगा दोन संसार
एक म्हजो दुसरो देवाचो
आडव दिला वोजें वोंटार
आयतो जालां आयकोंक शिंवोर
मौन उजो स्वास तुजो..

(घडी चांदन्या संगीं)

सयरीक घडच्या घडितांचें चित्रण करुंक कवीन उगतें केल्ल्या पिंतुरांची सोभाय वाचप्याक वैकुंठाक व्हरन पावयतात. कविचे सोभायेच्या प्रज्ञाची ही एक जळक मात्र. श्रृंगार रसांत भरल्ल्या घडी चांदन्या संगीं म्हजो मोग, व्हळ् व्हळ् काळजाक लाग आनी उतर दिंव्यां कवितेंनी सयरीक, लग्न आनी ह्या वेळा मधल्या मधुर घडितांक कवीन आपुरबायेन रंगयलां.

मऱ्याद आनी मोल दिलां.

भेष, शहभास म्हणतालो
आर्थर पिरेर वोमजूर
जेदनां तुमीं उलयताना
तीं दुखां उलयताना...

कवीन दिल्ल्या ताळ्यांत तीं दुखां उलयताना काळजा गुंडायेंतल्या ह्या उमाळ्यांक काळीज मन उगतें करन आयकोंचें काम आमचें.

सुमार दोन वरसां आदीं दुबायांतल्या कविंच्या कुळारांत म्हणजे कोंकणी म्हान कवी मेल्विन रोड्रिगसाच्या घरा चलल्ल्या एका कविताशाळा वेळार पयले पावटीं आर्थराक आयकाताना ह्या कवीन म्हज्या मनाक कैद करन दर्या वेळेर फेंड व्हांवंवच्या ल्हारां मधें व्हरन उबें केल्लें. कविताचो आशय उचारन सांगच्या ताच्या आवेशभरीत अत्रेगांचीं उतरां ल्हारां परीं म्हज्या मना तडीक मारताना, भोगणांची धार काळजाक चिरचिर करन चिरताना हांव आर्थराच्या काव्य संसाराक पावल्लों. ताका वयक्तिक थरान हांव वळकानातल्लों तरय ते घडये थावन हांव ताचो अभिमानी जाल्लों. ताच्या ताळ्याच्या प्रामाणिकपणा थंय हांव पिसवल्लों. उपरांतल्या दिसांनी परत परत ताका आयकाताना आमची साहितीक इश्टागत वाडोन आयली आनी वयक्तिक इश्टागतय घडोन आयली. कोंकणी काव्य शेतांत बळाधीक पावलां काडन मुखार वेच्या आर्थराक कोंकणी काव्य मोळबावयलें भरवश्याचें नेकेत्र म्हण सांगल्यार अतिशय जांवचें ना. हें पुस्तक म्हजें उतर थिर करता...

कवी आर्थर भोगणांचो कवी. बळिष्ट भाव ताच्या कवितांची घटाय. कुडीक भुलंवच्या आनी मतीक आलकंदांवच्या कृतकपणा थावन, फकत वोंटां उतरांच्या मोगा थावन, आट नेट, शेले मंगाणे सैलापा वेसा थावन.. तो पयस, मतीक लागच्या काळजाक वेंगच्या संगतींक लागीं.

आबोल्यां सपणांत येंवचें नाका
मोगा म्हणोन भुलंवचें नाका
दिसाक तुवें भेटचेंच नाका
वोंटा उमो लांवचो नाका
येताय तर काळजांत ये
मोगा शिरांक धरन देंव
हुनोनी रूच निंवोन चाक
व्हळू व्हळू काळजाक लाग
(व्हळू व्हळू काळजाक लाग)

# दुखांक ताळो मेळताना...



तांत्रीक आनी आर्थिक प्रगती कितल्या वेगान मुखार धांवल्यारय मनश्या दुख निवारुंक सलवल्या. पयस दिसच्या सुखाक आपणांवच्या पंताटांत धांवताना लार्गी आसच्या मनश्यापणाक गुड्डावन गेल्ली खबरच आसना. आयच्या उडते जिणयेच्या आमालांत लकोन आसच्या मनश्याच्या दोळ्यांक स्वार्थाचीं कोवळां मांडताना पेल्याचीं कित्याक आपल्याचींय दुखां दिसनांत. ल्हान, व्हड, दुबळो, ग्रेस्त म्हळ्ळो भेद नासताना संकीर्ण जिणयेचे सांकळिंनी शिरकोन, अडचोन हुळवुळचीं, कळवळचीं आनी रडचीं मनश्यां चडोन आसात. घरचे, कुटमाचे वांटे जावन प्रायेम्नां आश्रमांत वा आपल्याच घरांनी रडतात तर, भुरगीं एकसुरीं जावन पेट्यां माजगं लार्गी खेळतात. कृतकपणाच्या आनी कपटपणाच्या सुत्तुरांत रडल्यार लाचार म्हण वोलावन रडतेल्यांचो फायदो उटंवच्या मतलब्यांचो संखोय उणो ना. अस्ल्या कनिश्ट परिगतेंत रडोन रडोन दुखल्लें काळीज हळू करुंक असाध्य. कितलें भांदुन रावल्यारय काट तुटोन जडच्या दुखांक लिपंवक आपल्याच हातांनी चिरडिजाय पडता.

नाजूक काळाजाच्या आनी मजबूत चिंतपाच्या आमच्या कवीक दुखां अशीं चिरडुन लिपचीं बिलकुल सोसना. ह्या दुखां थेंब्यांक जोगासाणेन तो आपल्या मनांत जिरयता..




लज नासतां जडच्या दुखांक  
लज कशी लागली  
विणगी सोबच्या ह्या दुखांक  
मर्यादेची तान कशी वेंगली  
देंवतां देंवतां  
आपल्याच हातांनी चिरडुन कित्याक लिपलीं.

कविच्या संवेदनशील मनांत हे दुखां थेंबे खतखतोन शिजताना उटच्या सळसळ्याक कवीन सब्द दिल्यात... उतरां दिल्यांत.. रूप दिलां.. दिला.. संगीत दिलां.. अर्थ दिला.. एका उतरान सांगचें तर कवीन दुखांक सोभाय,

अशें पिरेर चांदनीं आनी ताचो गांव मुकार दवरन घेवन दुसरे विषय उलयता.

मांयचो मॉग आनी मायपणाविशीं ताणें बरीं कवितां बरयल्यांत.ये तूं पाटीं ये मांय नमों तुका बाळोक मरिये दोळ्यांतुलें रुदान इत्यादी कविता काळजाक स्पर्श करतात.

कवी पिरेर क्रिस्ताच्या भावाडतांत पात्येणी आसचो मनीस. सांगाता तो ऐक कवी. क्रिसमसाच्या मध्याने रातीं, मनीस जावन येनाका, आबाचे मार चार पाटीर असलीं कविता ताणें रचित केल्यांत. हीं कविता बरयताना तो पोकरी सवालां विचारता.

शून्य थावन देवान घडलो
संसार हो बॉवच व्हडलो
जेजूक नाडल्लो देंवचार कसलो
खंयच्या देवान हाका रचलो

म्हण तो विचारता.

हंवें हांगा उल्लेख करची आन्येक कविता – मनीस जावन येनाका. मागणें रजार जायतें जाता, पुण संसार कित्याक बदलाना म्हण विचार करचो कवी मागीर जेजू क्रिस्ताक सांगता.

येताय तर ये तूं धरतेक
पुण मनीस जावन येनाका

आर्थर पिरेराचे सक्कडय कविता विचार प्रचोदक जावन आसात. कवितेंचे सक्कड लक्षण हांगासर पळेंवक मेळतात.

कविता क्षेत्रांत आर्थर पिरेराचें साधन श्रेश्ट मट्टाक पावुंदी म्हण हांव आशेतां.

डो. ना. डिसोजा
15 /14, 2nd क्रोस
नेहरु नगर
सागर 577 401

# मुखाळेचीं दोन उतरां



म्हज्या जिवितांत पयले पावटीं हांव ऐक कोंकणी कविता संकलनाक मुखाळेचीं दोन उतरां बरंवचें प्रयतन करते आसां. म्हज्या ह्या प्रयतनाक बळ दिल्लो मनीस मंगळूरचो श्री आर्थर पिरेर.

कन्नड आनी हेर भाशेंत काळ आनी संदर्भाक अनुगूण जावन कविता क्षेत्रांत भरपूर बदलावन जाल्यात. कन्नड भाषेंत नवोदय, प्रगतीशील, नव्य, नव्योत्तर, बंडाय, दलित आनी हेर आमकां पळेंवक मेळतात. समाधानाची गजाल म्हळ्यार आज कोण तरनाटे कोंकणी काव्य क्षेत्रांत काम करतात, ते निजायकी प्रतिभावंत जावन आसात.

श्री आर्थर पिरेरीन बरयल्लीं सुमार वीस कविता म्हाका बरीं लागलीं. पिरेर ताच्या भोंवतणी आसच्या परिसर आनी हेर वस्तूंक घेवन बरयता. ताच्या कवितांत चांदर्नीं, दर्या, तारूं, गांव, मांय, मोग, जिवनपण म्हळ्ळीं उतरां पळेंवक मेळतात.

हीं उतरां केवल उतरां जावन मात्र येनांत. ह्या उतरां सांगाना जिणयेची विमर्शा आनी विश्लेषण सयत करता पिरेर.

पिरेरीन सांगचीं हीं दोन उतरां पळेया –

न्हंय घुंवता दर्या कुशीक
दर्यो लांबता मोळबा बश्येक
कुपां इड्यांत चांदर्नें खेळत
तारां राकलीं मोळबा येण्याक

(घडी चांदन्या संगीं)

म्हजो गांव आपयता म्हाका घालून गाणां
वाटेर वोंपल्यांत थिकां वजरां रतनां
दामास्काची सतरी बावली ना, पुरासाणेन दोडली ना
सदां पुनवे मोळ्यांत धल्लीं भागी मनां
सगळी कूड काळीज म्हज्या स्वर्गाक तेंकताना
हो म्हजो गांव म्हाका सोडन निदलो ना

(म्हजो गांव)

म्हज्या स्वासांतलो उसवास जावनासची
म्हजी आवय श्रीमती सेलिन पिरेरा हिचें
फारिक करुंक जायनातल्ल्या रुणाचें
एक किस्पर जावन ही क्रुती समरपित

**Tim Dukham Uloltana** - An anthology of Konkani poems in Kannada and Devnagari scripts by Arthur Pereira Omzoor. Published by Maa Creations,Valencia.

First Edition : 2007 May



Typeset at : Saangathi Media, Mangalore-2

Cover by : Wilson, Kayyar

Printed at : Prasad Printers, Mangalore-5

Sales;-
Victor Mathias
23,Emporium Complex
Kankanady
Mangalore -2
Mob;- 98452 09374

**Price :-**

**India : Rs.50/-**

**Dubai : Dhs.10/-**

# Main Sponser



Rudolf D'Souza Omzoor Kuwait

## Co - Sponser

- Wilfred Coehllo & Fly, London U.K
- Victor - Lavina Saldanha; Lynel, Dubai
- Alan - Shalet Pereira, Dubai
- Lancy - Shalini D'Costa; Anzilla & Alisha , Scotland
- Santhosh - Sarita D'Costa; Baby Sharal, Ireland
- Lancy - Jyothi D'Souza, Joyston D'Souza, Sharjah
- James Alvin Lobo, Dubai
- Melwin & Raj Lasrado, Dubai

